# THE NEW 20 - POINT PROGRAMME
# EDUCATION
## PROGRAMMES AND ACHIEVEMENTS
## 1983-84

1. Free mid-day meals to children of 6-11 years of age group ...... 18000 children per day
2. Enrolment of children in the age group of 6-14 years. ...... 2.20 Lakhs.
3. Adult literacy centres opened ...... 502 Centres.
4. No. of Adults made literate ...... 8709 Adults.
5. No. of schools having Book Banks. ...... 1094 Schools
6. No. of Exercise books sold at concessional rates. ...... 2.50 Lakhs

Directorate of Education
Government of Goa, Daman & Diu
Panaji-Goa.

## GOA DAMAN AND DIU HOUSING BOARD ENDEAVOURS TO :-

(1) Develop Residential Colonies at Alto Mapusa, Porvorim, Vasco-da-Gama, Margao, Ponda;

(2) Extend housing activities to semi-urban and rural areas at low cost;

(3) Undertake housing activities in the overland Districts of Daman and Diu;

(4) Provide tenements at low cost to Economically Weaker Section under New 20 Point Programme;

(5) Rehabilitate slum dwellers at vasco-da-Gama, Chimbel and Margao under Slum Clearance and Improvement Scheme.

(6) Developed Plots at reasonable rates at Sankhali, Bicholim and Daman.

## Pulses And Oilseeds Cultivation Drive

1. Pulses and Oilseeds form an important item of human diet being rich in proteins.

2. Grow pulses on hill slopes during the monsoon season.

3. Groundnut can be grown on sandy and light soils.

For technical details contact your nearest Zonal Agricultural Offices or the Directorate of Agriculture, Panaji-Goa.

Issued by :

**Directorate of Agriculture**
**Govt. of Goa, Daman & Diu**
**Panaji-Goa**

वर्स : दोन अंक : पांच शरद अंक सप्टेंबर / आक्टोबर १९८४
(दिवाळी विशेशांक)

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी त्रैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव (गोंय) ४०३६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स वळवय, गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३४०१

अंकाचें मोल: ३ रुपया वर्सूकी पटी : (विशेशांकासयत) १२ रुपया

## मांडावळ



चत्राय : ३८ पानांवयले णवे कवेतेंचो माथाळो ‘ म्हजो हांत्र ’ असो वाचचो.- सं.

दर खेपे अुजवाडाचे परबे दिसा आमी तुमकां म्हणचें –
हो अुजवाड तुमकां लखलाब जांव !
आनी पळोवपाक गेल्यार, तुमच्या पोशांत अुजवाडाचे चार आशेय धरचे न्हय.
कटा ! कटा !
कितें हो दैव दुर्विलास !

आतां तुमचेखातीर आमची प्रार्थना :
० तुमी आजून दुसऱ्याच्या आदारान चलता जाल्यार त्या सभाग्यान तुमचो आदार काडून घेंव.
०० तुमी दुसऱ्याच्या अुजवाडान चलपाक संवकल्यार ताणे तो अुजवाड तुमचेखातीर सासणाचो पालोंव.
००० तुमी कोणाच्या छत्राखाला आजून विसव घेता जाल्यार ताणे तुमच्या माथ्यावयलें छत्र हुमटावन व्हरूं.
०००० तुमी कड्डूं, तुमी भड्डूं
आनी पांगाऱ्याच्या सुक्या काश्टार अुजो घालून घेता तसो तुमचो आत्मो भगभगून पेट घेंव.
(पेटिल्ल्याचो गोबोर जाता हें जितलें सत तितलेंच गोबोर जावपाचे गजालीक, आत्मो हो अेक मानादीक आडवाद हें चिरंतन सत तुमकां खबर आसूं.)
हें इतलें घडटकूच तुमकां वेगळे अुजवाडाचे परबेची गरज ना.
आनी मतित धरात
जाच्या आत्म्याक अुजो पेटला तोच तुमचेखातीर असली प्रार्थना म्हणूंक शकता.
आनी अखेरेक –
ही प्रार्थना, निखटी प्रार्थनाच अुरची न्हय.

## पांडुरंग भांगी

### ह्यो उसळून आयल्यो किटी

ह्यो अुसळून आयल्यो किटी
हीं चंवरुन आयलीं झाडां
मळबान माळलीं आतां
म्हज्या दोळयांचीं नक्षत्रां

तोपून गेल्ल्या कांटयांचीं
फुलून फुल्लीं फुलां
ह्यो घुस्पून गेल्यो वाटो
थंय ल्हारेंत आयलीं सपनां

ह्यो जोगलावन आयल्यो दिको
संचित वादळ वारें
गर्भेस्त भुंयेच्या गर्भी
भाग्यच म्हजें फळलें ...

ही भरून गेली झोळी
रिती कशी रे करुं ?
ही रात झेलतना अशी
चांद्नेंच लागलें अुभळूं ....

## आमचें गोंय

कुशीर पाचवो घाट, बगले
दर्या थंड निळो
वयर उमळ्ळां अंतराळ, भूंय
ओत्ला पावसाळो
खळा खळार जंय तंवर धल्लां
फळुंक आयला मळो
थंयच मद्गती गोंय आमचें
सदां फुलतो कळो.

घटाय घाटी, धिटाय खांपी
दिकाळ हून मनां
रसाळ गायता वाचा कापी
कळ्यांनीं कवनां
वास्रेर जंयचे आपशि उसवता
काळजाचो म्होवलो - थंयच.

मळबाक तेंकता हात जंयचो
पुंजायतना सपनां,
तेंबयेर खेळटा कळा-कळाशी
नवलां कातयतना
व्हाळातळानच्या गुंड्यांक फुट्टा
ताळो जंय कंवळो - थंयच

अकांत निनले घाय वर्मी
दंख विखारीना
अद्रुश्टांचे संवार भंवले
म्हेड हुम्टलीना
गांठ नाशिल्लो कडार घालता
पेजेचो दवलो - थंयच०

जंयचें कोणाच्यान बळान निखटें
तोर खुटुंक जायना
आयले जायते, घेवन परतले
उमर्थि-रिती भाणां
खांदाक लावंचो खांद जंयसर
उल्याक घेवचो उलो - थंयच०

कितल्यो संवकल्यो काळ्ख्यो राती
दीस केन्ना सरना
तरसादींनीं माथें जंयचें
बागोवन बागवना
पूर्वज म्हण्टा 'ठांयची पण्टी
पालयतलो भंगलो'
थंयच मद्गतीं गोंय आमचें
सदां फुलतो कळो.

## कविता

भर दिसा
सगळीं कवडां धांपून
हावें किट्ट काळोख केला आनी
म्हज्याच काळजाकुडींत,
कोनशाक,
हांव अेकलोच बसलां ....

हांगा
म्हाका कोणच वळखना.
हावेंय म्हजी नदर भितर ओडल्या;
ह्या कुडींतल्या
कुपाळ काळखाच्या मळबाक मात
फांतोडुची तांबशी
निक्तीच फुट्टा;
जागृतायेंत
म्हाका अेक वेगळी जाग येता.

आतां
म्हगेल्या कुडींत
अरवळ असो अुजवाड पातळ्ळा आनी
हांव म्हाकाच पाचारून
विचारतां:
'तूं कोण ?
खंयचो ?
खंयसून आयला ?
हांगा कसो पावलो ?
ह्या कुडीच्या दाराफुडल्यान
उजवाडाची वाट
खंयमेरेन वता ?'
असले अेकार अेक
कितलेशाच
त्रिशंकू प्रश्न.
हांव कितें सांगतलों ?
खरेंच,
हांव कांयच नेणा.
उज्वाडाच्या पावलांनी
हुमरो हुबून भायर यो जाल्यार
विखाळ,
निर्शेणेच्या खांपुल्ल्या खिणांनी
सगळ्या सैमाचेर
धुंवरशी घुमटी घाल्या आनी
म्हज्या घुस्मटमारांक
अंत ना.

नागेश करमली

## येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे अुले –
पर्वतांचें पोट फाळीत
कुपांतली वीज मोखून
शिरंतरां त्राण सोदीत,
येवंदी तुजे अुले !

येवंदी तुजे अुले –
दर्याचीं ल्हारां हुपीत
मळबाचे दोळे कोंचून
न्हिदसुऱ्यांची न्हीद खळयत,
येवंदी तुजे अुले !

येवंदी तुजे अुले –
दुखांचे बांद मोडीत
तापत्रया खंत ओंकून
रातीचो काळोख भेदीत,
येवंदी तुजे अुले !

येवंदी तुजे अुले !
दिकां दिकांचें रक्त पिळीत
आकांताळो याग मांडून
मनशांतलो मनीस मोखीत,
येवंदी तुजे अुले !

येवंदी तुजे अुले –
हड्डुचाचेंय बिड्डुं तोडीत
नाडटल्यांचें राट मोडून
समभावां बावटो हुबयत,
येवंदी तुजे अुले !

येवंदी तुजे अुले –
धर्तरेचें दायज सोदीत
मातयेचो वास हुंगून
परमळाचो शिंवोर करीत,
येवं दी तुजे अुले !

## सुरेश जयवंत बोरकार

१

पुरो
जगाचे वेव्हार
आनंदाची धार
तुटची न्हय.

पुरो
जनांची संगत
तुजोच भगत
दुसरो न्हय.

पुरो
संवसार सुखां
दुख्खाचीं तीं मुळां
अुरचीं न्हय.

२

आनंदाचे हे खेळ
अशे खेळून घेवचे
भोग भोगून वचचे
दिसपट्टे.

असो संयोगाचो योग
असो अजापाचो मोग
तृप्त जीवाचो हो भोग
पूर्णपणान.

दीस रात हें अशें
देह पयसावत चल्लें
मुक्त अळंग हें जिणें
फूल कशें.

४

पावलां तुजीं वेंगावन हांव
बसलों घालून आसन
आतां अमृताचें जेवण
जेवचें हांवें.

तुजे कृपेची ही माया
कवळीत चल्ली म्हजी काया
निव्वळ अप्रूप ही दशा
जिवाची म्हज्या.

खंयच्या सुकृताचें हें फळ
म्हणून मन तें निर्मळ
म्हज्या अमंगळाचें बळ
जावन अुल्लें.

३

आमी आनंदाचे धनी
आमकां आनंद –
खिणा कणकणीं

आमी चैतन्याचे दास
आमकां सदां –
तेच बंदपास

आमी बंदनांत अशे
सुख सुखांत –
फुलतूच चल्ले.

## मनोहरराय सरदेसाय

### बाकीबाबाच्या उगडासाक

निळें, निळें सवणें एक
दनपारच्या गो पारा
गोंयचो घोंटेर गेलें सोडून
खंयच्या दिगंतरा

दूधसागर गेलो सुकून
चित्रवीणा हुंडकेता
तिनसांजचो वड आतां
वडफळांचीं गाळटा दुकां

लिकलिकपी नदर तुजी
नखेत्रांनी शेणल्या
मुदयाळीं झुलपां तुजी
दर्या-ल्हारांत विणल्यां

स्तब्ध शांत गितार तुजी
मंद, मंद पांयजणां
सासायेचो भारा-उलो
खंयच आतां आयकूं येना.

चलत राव एकलो आतां
युगां, युगां मुसाफिरा
वच्चेलें तें सगलें वचूं
उरचीं उरूं उतरां

### कित्याक रे बाबा !

– कित्याक रे बाबा
झाड मारता ?
" पाटयो करूंक "

–कित्याक रे बाबा
पाटयो तुका ?
" खुरीस करूंक "

– कित्याक रे बाबा
खण्टा जमीन ?
" मीन करूंक "

– कित्याक रे बाबा
मीन तुका?
" लोखण करूंक "

– कित्याक रे बाबा
लोखण तुका ?
" खिळे करूंक "

– कित्याक रे बाबा
खिळे तुका ?
" जेजू आतां
येतलो परत
ताका परतून
खुर्सार मारूंक "

## किसरां

सुकण्याच्या पांखांक
मळब मेळटा
पुण रुखाच्या मुळांकूच
पाताळ कळटा



मिनेराचें मन
मातयेंत तळमळटा
पसरकाराचें काळीज
तागडेंत हुमकळटा



अनवळखी गांवांत
पावतां
तेन्नाच हांव म्हाका
वळखतां



तापिल्ले रेंवेर लोळटां
तेन्ना
तूंच वेंगेंत आशिल्लेवरी
दिसता.



फांतोडेचो सूर्या
हांथरुणावेल्यो मिरयो
पळेता
हांसत, हांसत,
मुखार वेता.

तणाक कळटा
तशी कोणाक कळना
पावलांची मस्ती



म्हज्या वेळाक
कांटे तोंपतात
घड्याळाचे



पिंपळाक पेडां
बांदतात
तेन्ना पिंपळाचीं मुळां
किंवाट्यान
तिडकतात
चिरे फोडटात



जनेलां, दारां
धापून
हांवें मोग केलो
भार आयलों
तेन्ना
हीं नखेत्रां
परकी जालीं



सुकणीं घोंटेरांत
परतात
आनी दर्यांत बुडपी
सूर्याक
सू जाता

## गोरूं

मळावयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं
कवळचा चरवार चरचें सोडून धांवता तुकाच धरुं !

तणावयली खाणावयली वानसा गेली उडून
उदक निवोळ पियोवपाचें पुराय गेलें भुलून
घोली-घोलीत झिली-झिलीत धांवता कान करून !
मळावयल्या सरयांतलें  हांव रे तुजें गोरूं !

गोठो-गोवण, दावे-दावण सुटले बंदपास
हड्डचाभितर फुगार जावन घुस्मटतात स्वास
धाय दिकांत धिरयो घालीत लागलां हामे-हामरुं !
मळावयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं !

मळावयल्या गोरवां सोडून सोत्ता सगळें रान
भयाविरयत किण्ण काळखान एकलें एकसुऱ्यान
हामे-हामेटचांनी गेलें सगळें रान भरून !
मळावयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं !

आशेल्यात आयकू कान वळखीचेच सूर
उगडासांचो काळजाभितर व्हडलो महापूर
पातकड्यांतल्यान पाणयाचे लागले झरे झरूं !
मळावल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं !

धांव धपटून शिणली गेतां लागलीं थरथरूं
हामे-आड्डून जीबेंर आयलो फेस दरदरून
कुडींतलो जीव सोत्ता कूड सोडून उडूं
मळावयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं !

हरदत्त खांडेघारकार

## भितोडेक

भितोडेच्या उबेंत पिशा
भियोंवन कित्या रावशी ?
घोग्यावरी उडी घेंवक
तूं जिणे आडायशी.

तूंच तुकां सोयरो जावन
घुस्मटशी पयस रावन
मेकळेपणा पळौन पिशा
तूं कित्या घुंवळशी !

उबगणेन बावयत जीण
उमेदींचे उडले खीण
बानून बनखणीक, तूंच
खीळ जावन रावशी.

कितले पाश, कितले बंध
अडखळच्यांचो कसलो छंद ?
तोड बेडयो, आपशीं तूं ?
वोंय हुबून वचशी.

पी. जी. कामत

## आमकां नाका

" एक तुजो पिसो स्वामिनाथ
ताका जाय हरित क्रांति,
आनी अेक पिसो सुर्या
ताका जाय धवी क्रांति,
आनी अेक पिसो राकेस
गीत ताका जाय आतांय –
सारे जहान से अच्छा हिन्दोस्तां !
हांका आमी चेंचतले
पिट्ठो करनु उडैतले
आमकां नाका तांची कसलीय क्रांति. "
" तें सांगपाक कोण रे तूं ?"
" आरेच्या ! वोळख ना तूं माका ?
हांवच ईश्वर, नेण वै तूं ?
आयक, कान दिवनु आयक –
अहं ब्रम्हास्त्रि."
" तें आसो रे ! तूं कितें करता आतां ?"
" आज हांगा सगट कडे
आमची कृषि वाढता !"
" तूं कसली क्रिसी करता बा ?
कितें भेंडें, नारल, भात
अल्लें, मिरें, जीरें, सासम कितें काय ?"
" ना ! ना ! आमची कृषि खांड्यांची
कटाट, काती, पिस्तोळ, नाकुट
लाठी, दांत, किरपान, बाँबाची.
हांची बीं वोयतात आमी
        शींपतात आमी
        लुयतात आमी
तांचान मरतात आमी
देवळ, स्कूळ, काळेज, गुरद्वार."
" आयकूंक खूब आसा मरे !
तुजो व्यारु चलता दिसता मूं !"

" व्हय, व्हय, आमचो ब्यारु जोर चलता
लक्ष लक्ष कोटि-कोटि रुपयांची
कुसली मसळ विकता आज
मागीर कितें अजाप ?
( तांतु हाशीशाचें गुपत ल्हवू सांग.)
हांगा गंगाजलय विकता
सरासर धडाधड विकता
अशी तशी हांगा-थांगा विकरता
आतां ताकाय कसलें ' किक ' !
त्या 'किकान' आमी नाचतात
गायतात, हांसतात, रडतात,
आनी गांधी तोपयेन तोंड पुशतात."
" हां ! ती आमच्या किसांत आसा
आनी कित्याक वस्त न्हय ती.
आमकां जाय तोपी तरी
जाय काळी तोपी
जाय पाचवी तोपी
जाय तांबडी तोपी
देखून ही आमी
तोंड पुसूंक दवरली.
आरे ! तोपी वचो
गांधीच्च कोणाक जाय आतां ?
तो वाचतालो कितें तें ?
— किता-पिता-गिता ?
आमकां निदाऊन घालची गीता !
ताका आसलो एकूच ताळ एकूच राग
हिन्दू-मुसलिम-सिक्ख-इसाई
भाव भाव.
आतां नाका तो आमकां
आमी खयंय तरि दिखलो ताका,
फाफराऊन, मुस्तून, मारून,
गळफांस घालतले आमी ताका.
तूं खयंय ताका देखलो
तरि सांग ताका, सांग ताका,
खरें सांग ताका."

## रमेश भगवंत वेळुस्कार

म्हातारी
बांयचेर बसता
म्हातारी
उदक गरयता
बांयचे धडेर
बसून ती रे
दीस झडयता
गिमाचे
दीस झडयता

नदर तिची
खोल खराय
दोळयांक तिच्या
थेंब्या झरी
कोंयडी गळयाक
लावन येता
पावस तिचो
बिरी बिरी

म्हातारी
वाटां तिटांनी
वचत थंय
पावलां तिची
चडटा घांटयांनी
आनी तीन पांयानी
खेळटा ती
आटया पाटयानी

माथ्यार तिच्या
अिलामती
तेंकता मळबानी
आनी रुवो कशें
भल्लां माथें
रे नकेत्रांनी

पावलांनो
परा सरा रे
मातयेची
येता सुंवारी
रुंवाच्या
वाना वानानी
तिच्या रे
ल्हंवेक भरारी

बळ
मळबाचें अशें
तिच्या अुतरांचे पाणी
वज
पिरायेची मोडून
म्हातारी घडशिता काणी

## चा. फ्रा. देकोश्ता

### उजो

काळकांत वोली आंकुडताना
चंद्राचे लेगीत दांत झडताना
काळजांत कसो पेट्टा अुजो
तुज्या मोगाचो !

पावसांत गुलाब शिरशिरताना
कांटो फुलाक वेंग मारताना
काळजांत कसो अुड्टा अुजो
तुज्या मोगाचो ?

पाकळी मस्तिली तरन्या फुलाची
तांबसाण वाडली गोऱ्या गालाची
ते तांबसाणेंतल्यान पेटलो अुजो
तुज्या मोगाचो !

सिल्काची साडी न्हेसून वेताली
तलकापरी तूं चलून वेताली
सांगात जालो तुज्या पालवाचो
म्हज्या गालाचो

आदीं कळ्ळें ना, कळाना आतां
गालार घांसताना सिल्काचीं सुतां
काळजांत कसो अुड्टा अुजो
तुज्या मोगाचो !

(अुजवाडाक येवपाच्या कविता संग्रहातल्यान)

## प्रकाश पाडगांवकार

### राजचिन्न

हातांत म्हज्या अेका रुपयाचें ठणठणीत नाणें
ज्याचेर राजचिन्न आमच्या वळखीच्या
अशोकस्तंबी तीन शिंवाचें !
ह्यो तीन शिंवांच्यो बावल्यो
हांव बारीकसाणीन नियाळटां
म्हजेवरी तांचो अर्थ लायतां
तेन्ना त्यो म्हाका स्थितप्रज्ञ कशो पळयतात.

हें चिन्न बावल्यांचें
प्रतिक ब्रम्ह, विष्णू, महेशरुपी
योगी दत्तात्रयाचें काय ?
दत्तात्रयाच्या अेका कुडीर तीन तकल्यो
जाल्यार ह्यो तीन कुडींच्यो तीन बावल्यो.
दत्तात्रय हिन्दूचो देव देखून तो
देशांतल्या सगळ्या धर्मीयांचें प्रतिक कशें जांव येता?

महात्मा गांधीकय तीन बावल्यांचें पिशें आसलें
आनी ते बावल्यो दाखोवन सांगताले :
" वायट पळोंव नाकात "
" वायट आयकूं नाकात "
" वायट अुलोंव नाकात "
तसल्यो ह्यो काय बावल्यो ?
हांका तर भावना अुक्तावपी हातच नात !

श्रीकृष्णान गीतेंत सांगिल्या
सत्व, रज, तम ह्या त्रिगुणांचे
प्रतिक काय ह्यो तीन बावल्यो ?
अेकठांय आशिल्ल्या ह्या तिकळ्यांचो तर
भेस अेकूच आनी
आसातय ह्यो अेकाच सारक्यो !
भरील्ल्या पोटार धेंकर येंवचो
तशें सोबीतकायेच्या वस्तूंचें वर्णन जे कोण
सत्यम्, शिवम्, सुंदरम्
ह्या अुतरांनी करतात
तांच्या रसिकतायेच्यो बी
ह्यो बावल्यो प्रतिक ?

ह्यो तीन बावल्यो शिवांच्यो
प्रतिक समताय, शान्तताय, भावपणाचें काय ?
जी सध्या म्हारग जाल्या देशांत
पुणुन व्हांवत आसता
देशभक्तीच्या स्फुर्तीगीतानीं !

हें राजचिन्न प्रतिक आमच्या फुडाऱ्यांचें काय ?
जे अेक अुलयतात दुसरेंच करतात
आनी ताचे तिसरेंच घडटा ?
जे अुप्रांत लोकांच्या समाधानाखातीर
आपल्या तोंडा-तोंडानी अुतरां घुंवडावन
ह्या तीन तोंडाच्या राजचिन्नाभशेन
लोकांक स्थितप्रज्ञ कशे पळयतात !

# काशिनाथ शांबा लोलयेंकाराच्यो स कविता

१

## मोहनदास करमचंद गांधीखातीर अेक कविता

अेक माकड आनी अेक मनीस
तीन माकडां आनी अेक मनीस
माकडांच माकडां आनी अेक मनीस
अेक मनीस आनी अेक झाड
अेक झाड आनी अेक घर

घराक उजो पेटला
सगल्याक लख्ख उजवाड पडला
त्या उजवाडांत तो मनीस आतां दिसना
फकत
हातींत कोलत्यो घेतलेली माकडां दिसतात

२

## पी. एस. एन. खातीर अेक सॉनॅट

वयांत येयल्ल्या स्वताच्या भयणीकडे
भावान लोवूच चोरुन पळोवचें तशी तेची नदर
तो चडसो नदरेक नदर दिना
उलयताना दुसरेचकडे पळोन उलयता
उलयताना आवंडो घोटपाची तेची संवय

तेच्या घरांत वन्टीर बंद पडलेलें अेक घडयाळ आसा
तेचे काटे हातीन बेश्टेच घुवोवन
तो टोले आयकता, ही गजाल सोडली तर
तेच्याबद्दल म्हाका चडशें कांय खबर ना

तरी तेच्याबद्दल कांय तर्क बांदू येता
की तेका तलत किंवा मेहदी हसन आवड्टा आसतलो
मास्टरबेशन करपाची तेका संवय आसतली
तो बापायक खुप भियेता आसतलो
सपनांत हत्ती तेच्या छातयेर पांय दवरता आसतलो ...

३

## झाड

चलता चलता मदीच थांबलो. वळलो.
आनी येयल्ल्या पावलांनी तस्सो फाटी परतालो
चलतां चलतां मदींच फाटल्यान वळोन पळयलें
आनी थंयच रस्त्याकुशीक
अेक झाड जावन उबो रावलो

म्हज्या झाडार अेक कावळो
हांव झाड जावच्याआदींच बसलेलो
हांव झाड जायनाफुडें तो उडलो
झाडासकट

४

## चरित्राची चत्राय

२२ जुलै १९५७ ह्या दिसा
म्हज्या जीणेंत अेक व्हडलो फाक्त घडलो
त्या दिसा म्हजो जल्म जालो
ह्या गजालीक आता पंचवीसेक वर्सां जावन गेलीं
मदी गोंयबीन स्वतंत्र जालें
गोंय स्वतंत्र जालें त्या वक्तार हांव आसलों सामको भुरगो
आतां दिसता मनीस फक्त अेकदांच स्वतंत्र आसता –
भुरगेपणांत. आसूं. तर सांगचे जाल्यार
हांव दिशीमिशी वाडलों
पुण म्हजें माथें मळबाक तेकलें ना
फकत पांय पाताळांत रोमले
म्हणुन कसोबसो तकली सकयल आनी पांय वयर करुन
हांव चलत रावलों
आनी लोक हांसत रावले
सध्या हांव अेका बँकींत काम करतां
सदा बसींतल्यान येतां वयतां
बसीत खुप गर्दी आसता
आनी त्या गर्दींत हांव आसतां

५

## ग्रह

हांव घर करुन रावतां
आनी म्हज्या काळजांत अेका कावळ्यान घर केलां
जो आपली चोंच म्हज्या काळजांतसून भायर काड्टा

वन्टीर अेखादी पाल माणून रावलेली आसता
म्हजी सावट लागतकुच जल्लो फुरफुरु पळटा
घरांत उंदरान अेक व्हडलें बीळ काडलेलें आसता

घरांतसून म्हाका भायर रस्त्यार येवचेंच पड्टा
आनी रस्त्यार आस्तात लोक
जेंका पळोन हांव पृथ्वी नांवाच्या अेका ग्रहाचेर निक्तोच उतरलां
हें म्हज्यालक्षांत येता

६

## बेबद्याचें कांतार

कोण कोणाचो ?
आंकल, घाल रुपयाचो

रुपया पावले पोटांत
पोट पावलें ओठांत

हांव म्हज्याच दातांचो
हांव म्हज्याच ओठांचो
आंकल, घाल आनींक रुपयाचो

तेलगु कविता

**श्रीरंगम श्रीनिवास राव / उदय नरसिंह म्हांबरो**

## उद्रेक

समस्ततायेन नंदचें थारावन
विध्वंसक प्रवृत्तीपसून पयस रावलों
अुजो ओकपी रसरसत्या दोळ्यांक थारायले
मनांतली वायट कर्तुपां धुवन अुडयलीं
तांची फाटलीं कर्तुपां विसरचेलो यत्न केलो
काळीज कांतरपी घडणुको घडटनाय
भितल्लेभितर कुथमलो- किळांचलों- छाती बडयली
पुण कोणाची नदर हेवटेन पावलीच ना
वाकडें पावल नीट घालचेबदला
ते अजून तेच वाटेन तशेच चल्ल्यात.
समाजपुरसाची पाळांमुळां खणपी,
त्याच पोरन्या सुरयांक परथून धार काडटात.

हें सगळें हांव मोन्यांनी पळोंव !
ना !
आतां सदळ रावून चलचें ना.
आतां हांव वादळावरी घोगेतलों.
संतापाची ल्हारां फोडीत,
अर्जूनाचो सारथी जावन,
रगतरुपी जोगलावणी करपी,
भग्वद्गीता परथून अेकदां
नव्या रुपान, नव्या दमान सांगीत
संवसारात परथून कुरुक्षेत्राचो रणखेव माजयतलों.
म्हजे जीबेची धार आनी संगीताची तार घेवन
वांगडाच धायदिको गाजयतलों
सळसळट्या रगताकलेगीत गावंक लायतलों.

## युसूफ अ. शेख

१

सांज मोगान रंगता मोगा सैम म्हाका तिडायता
तूं रे मात येता सांगून बेठोच फटयता

परत-परत सैमा वांगडा सांज मोग करत आसा
रात-राणी फुलत आसा सवणीं गीतां गायत आसा
शिलपकारा हात नादान मूर्ती वांगडा मिरयता
तूं रे मात येता सांगून बेठोच फटयता

ल्हव-ल्हव पावलांचो भास म्हज्या कानांत
शांत सांजे शेंद्रेचेर जीव म्हजो अशांत
काळजा भितर बेठीच धडक कळना कित्याक वाडटा
तूं रे मात येता सांगून बेठोच फटयता !

२

कल्पकथेंतली तूंच कल्पना गीत जावन आयज आयल्या
संगीताचीं वस्त्रां न्हेसोवन गोड गळचां तुकां गायल्या !

सात सम्दीरा पावलों पुण, फाटोफाट तूं पावली
मोठोच बाये ह्यो, नाद तुगेलो, शब्दरुपान तूं आयली
भौच गोड गो रुप तुगेलें, भौच सुंदर तूं रंगल्या
संगीताची वस्त्रां न्हेसोवन गोड गळचां तुकां गायल्या !

अंतरमनाची इच्छा म्हजीय गो तुज्याच सांगाताक रावचेली
जल्मा-जल्माक रुप-रुपांत गो तुकाच खर्शेत भोगचेली
शेणत-शेणत गो मोगांत तुज्या परत घुंवळशी आयल्या
संगीताचीं वस्त्रां न्हेसोवन गोड गळचां तुकां गायल्या !

## विजयाबाय सरमळकार

# दिवाळी आयली आज

नव्या वर्साचो बावटो घेवन
दिवाळी आयली आज
तरेकतरेचे दिवे लावन
घरांक चडला साज

खोशी जाली सगळया लोकांक
वारो गायता गीत
माडांचेर चुट्टां धोलतात
आयकून तें संगीत
माटवावेल्यो जायो जुयो
परमळटात पाज

रूखार कोगळां कुहूकुहू करतात
तळयांत हांसतात साळकां
नव्या वर्साचो संदेश दितात
जशीं काय तीं आमकां
अेकवटासैत जोडात जैत
झाडून सगळो वाज

मळबाच्या तबकडेंत पेटल्यो
नखेत्रांच्यो ज्योती
चंद्रकोरशी ती मुमुर्खी हांसता
चतुर्दशेच्या राती
झीग् झीग् जोगलां तालगडी खेळटात
घालून भांगरासाज

घरांकणकणी अुमेद फुलोवया
दु:खाक करची फाट
जातीपातीचो भेद विसरुन
आगळो करया थाट
अेकचाराचें गीत गावया
विसरून फाटली खाज.

## पांयजणांचो रावलो नाद

(बाकीबाबांच्या अुगडासाक)

पांयजणाचो रावलो नाद
नि:शब्द सगळ्या रानांत
कोगूळ कित्याक अवाक जाली ?
कित्याक वोगी मैना ?

सांजे वारें वाऱ्या रुकाक
घालवंचें तें संगीत
खंयसर आज ? मौन जालां
वोगीं जाल्यांत मृगां

तेलत्या फात्रांक न्हाणवन लोळोवन
गुळगुळची ती नदी
आज जाल्या वोगी

अर्धें शतक मेटवोळ नास्तां
वाजलीं तुजीं पांयजणा
भुरग्या मतीर आमकां जालीं
मधुर मधुर गानां

पांयजणानी अुदेवन आयलीं
कावयां ल्हारां हजांर
जिणे आमचें भरोन आयलें
गुलीबाच्या स्वादान

पांयजणांचो रावलो नाद
पाय गेले वोळोन
मंद मंद भरोन आयलें
सोसानास्लें मौन

चिंतलें आमी पांयजणांचो
नाद सदां गाजतलो
पांयजणांचो पांय तुजो
सदां वाऱ्यार उबतलो

जालें कितें ?
पांयजणांची आयली रात
बुडलो ताचो सुर्यो
दुसरो कोण जळयत वात ?

वाजैत कोण पांयजणां ?
पांयजणांच्या पांया तुका
मेळों शांती सदां
पांयजणांचो छन् छन् नाद
खेळों मतीं सदां

## उल्हास पै रायकार

### देव

हाणी कोणाकूच
पिडचे न्हय म्हूण
हांका देव केले.
गर्भकुडींत
बंदीस्त बसैले.
दोळ्यांच्यो वाती करुन
सरमाळी पेटयल्यो
नदर दवरुपाक.
**पुण भटांनी**
तेलूच घालेंना माल्यांनी.
आमचे दोळे झेमले
आनी ह्या देवांनी
भायर सरुन
सगळे धंदे केले.

## पाडसावयलो कुवाळो

तूं ....
पाडसावयलो कुवाळोय न्हय
खळांतलो आवाळोय न्हय.
अेक तारकेचो नोटीचो कवळो
आनी तुजो लग्नसुवाळो सोडल्यार
तुकां कुस्कुटाचो ना दुवाळो.
तूं फकत धर्तेक भार
आनी अन्नाक खार.
तुज्यांत ना अुतर ना शाय.
तुजी जीण म्हळ्यार –
तूं, बायल, बाबा आनी बाय.
... आरे तुज्यांत बींच ना अुतराचें
आसा तें दुस्वासाचें.
आनी तू शिंपता . .
किल्लतलें कितें ? रोयलां तें !

तुजे अुजवेकडली
तुज्या माथ्यार चडत म्हूण
आपशे आपुण वाढलेली
चड्टी वाल तुवें हुमटिली.
जोतीच्या धगान तूं हुलपतलो म्हूण
पेट्टी जोतूच तुवें पालयली,
आनी आपुण काळखांत पडलो तेन्ना
दुसऱ्यांच्या जोतींत हात भाजून घेवपी
अेक विद्वाटो
कितें निर्माण करतलो ?
.... बोल्सांत हात घालून
हड्डें फुडें काडून
शेणिल्लें बेगडी जैत
जोडिल्ल्याचो आव हाडून
लोकांक फटयल्ल्याचें समाधान मानून
स्वताकूच फटोवपाचें

अेक सादें सवंग लेगीत
तुकां जमलेंना.
कलावंताचें धोंग घेवन
अेका कलाकाराचें नितळ सवंग
सासणाक पुसून अुडोवपाचो
अभिनय मात तुवें बरो अुडयलो ..

पुण पोरा,
तुवें कोंबो धांपून दवल्लो
म्हूण अुजवाडचें रावलें ?
... आनी तुजें चुकलेंच तें !
कोंबो रडल्या अुपरांत,
अुजवाडल्या अुपरांत
तुवें कोंब्याक धांपलो.
त्या कोंब्याचो साद
धांपच्या आदींच गाजलो.

---

## संजीव वेरेंकार

---

### पावस

आयज ....
खूब वर्सांनी
आमच्या घरांचेर
पडटा पावस....
पडटा पावस....

इतलीं वर्सां
फक्त तुमच्याच
घरांचेर पडत आयलो
तोच पावस...
तोच पावस....

# शंकर परुळकाराच्यो णव कविता

### १. चित्र

हांव म्हण्टां
" हें चित्र आसा "
तूं म्हण्टा
" तें चित्र न्हय
ताका फास्केंत बसय
मागीर हांव ताका
चित्र म्हण्टां "

### २. खोलयो

धग करपाक
पुंजायल्ल्यो खोलयो
ओल्यो आसल्यो
खूब धुंवल्यो
पुण अखेर पेटल्यो
भक् करून

### ३. घडयाळ

हांवें कान दिवन आयकलें
मेजावयलें घडयाळ म्हण्टालें
हाडलें-खालें, हाडलें-खालें,
........, .......,

### ४. चूक

घोंटेर बांदच्या बदला
मनशान घर बांदलें
तेन्नाच ताजें सगळें चुकलें

## ५. पिसो

सदांभशेन
ते म्हातारेन म्हाका विचारलें
'आरे, तूं लग्न जायनाय ?'
हांवें हासलेशें केलें
आनी तिणे म्हटलें
मागीर तुकां लोक पिसो म्हण्टले
म्हाका दिसलें
तिणें म्हटले
'आरे, तू नागडो जायनाय?
मागीर तुका लोक नागडो करतले'

## ६ एक तेंप आसलो

एक तेंप आसलो
हांव ताचेकडे झगडटालों
म्हजे कवितेखातीर
(आनी म्हजेखातीर)
आनी तो हांसतालो
म्हजे कवितेक
(आनी म्हाकायबी)

आयज,
हांवें म्हजी कविता
बाऱ्यार सोडून दिल्या
आनी तो,
म्हजी कविता पुंजायत भोंवता

## ७. पुस्तक

ताणे म्हाका विचारलें
'तूं एक पुस्तक कित्याक बरयना?'
हांवें म्हटलें ' बरयलां
पुण तें तुज्याखातीर
कशें उगडप
हेंच म्हाका समजना '

## ८. समजुणी

हें पळय
हांव तुजेर मोग करतां
तूं म्हजेर मोग करता
पुण हांव तुकां
म्हजे कुशीक हाडूं शकना
तूं म्हाका
तुजे कुशीक हाडूं शकना
म्हण्टकच
आमी कुशीन सरुंया कशीं.

(वयली कविता संपूर्णपणे काल्पनिक आसा. तांतल्या व्यक्तींचे कोणाकुय प्रत्यक्षांतल्या व्यक्तीकडे साम्य दिसून आयलें जाल्यार तो योगायोग समजुचो.)

## ९. म्हजो गांव हांव

तूं येतली
म्हणून वाट पळयली
पुण तूं आयलीच ना
तूं म्हण्टा
तूं आयली आनी
हांवें दखल घेतलीच ना
म्हणून गेली
जायत,
तूं आयली आनी गेली
केन्ना तें म्हाका कळ्ळेंच ना
तुजी तूं
म्हजो हांव

(सुरेश बोरकार हांच्या 'रात जेन्ना' हे कवितेचें रीण मानून)

प्रकाश दत्ताराम नायक

## खुरीस

हें अेक
रान
अटंगे
अकोडेंच रान !

रान
भोगता
अेका
पुर्विल्ल्या
खुरसाचें रीण !

खुरीस
मदीं फुटून गेला,
सोंशीत
पावस-वताचे घण !

खुरीस खुब जांटो जाला...
ह्या जांटेपणात
खुरसाक दित सांगात
नाचता भवतणचें तण !

खुरसार
कावळ्यां-सवण्यांनी
हळशीक केल्या,
हो अन्याय
पैस करपाचें
खुरसाक
अुरुंकना त्राण!

खुरीस....ह्या रानाचो प्राण,
खुरीस...ह्या रानाचो अेक गुण,
खुरीस...ह्या रानाची अेक देण,
खुरीस... अेक विदीर्ण आकर्षण!

१

तुवें दिल्लें
हांवें घेतिल्लें
ओंठार अमृत पिकलें
म्हज्या काळजांत तूं
अमर जीवन जुल्लें

२

गेलां तूं
वचत राव
म्हज्यो यादी मात
काडीत राव

३

तुज्या अुतरांचो
शेळो जाला
ताजेर हांव निसरत आसां
अुठ्ठां तितलो
अुरफाटो निसरतां

४

सुर्या गेला दर्या भेटे
ल्हारां आयल्या देगे भेटे
तूंच कशें येना गो
म्हज्या मना भेटे

५

माडावेलें सोबीत शेवणे
हांसत अुडलें
किरयत गेलें
धारेवेलो तांबडो सुर्या
अस्तेंत रंगयत
रडत बुडलो

६

तुकां विसरूंक हांव हांगसर
सोमरस पितां
घडयें,
म्हाका विसरूंक
तूं थंय
दुकां पिता आसतलें

८

शितळ वारो
जायांचो परमळ
कोण आयलें गो म्हऱ्यांत
यो पावसा
हुलोप पेटला काळजांत

१०

पावस आयला तुगेरसाकून
हांव भिजत रावलों
वत आयलां तुगेरसाकून
हांव सूकत गेलों

७

म्हजेकडेन सुर्या आसा
चंद्र आसा
सूपभर नकेत्रां आसा
वारें आसा
पावसूय आसा
जाय तुकां ?
येता जाल्यार दितां !

९

कुपांनो,
आमगेर येवं नाकात
ताच्या घरा-दारार
घालून घेयात
म्हजी तान भागतली

११

अेके बियेचें कल्ल काडलें
अेक दाब आलतडीन
अेक दाब पलतडीन
कोंब मात किल्लत रावलो
काळजांत चंवरत गेलो

१२

म्हज्या वेंगेंत
माडाक वणखून तूं बसतालें
तेन्ना तो चंद्रीम लजून
कुपां आड लिपतालो
आयज लज नाशिल्लो
अजळ माथ्यान मिरयता

१३

त्या मंदीरांत आमी
सोपूत घेतिल्लो
तो देव बाबडो
त्रांसांत पडलो

१४

तुज्या दोळयांतलें काजळ
आयज कुप जालां
चकचकता
गडगडटा
जोगलांसयत
म्हजेर शिवरता

१५

निळचा-तांबशा मळबा होंटयेंत
धवी-काळशी कुपां भिरीं
खेळूंक आयल्यां सुर्यालागीं
सांज रंगली –
तुजी याद विसरूं कशी

१६

युगां युगांचें नाते आमचें
मदींच कशें तुटलें गो
मनसतारीचें विरह गीत
सप्त सुरांत रंगलें गो

१७

सुख समदीरांत
आमी पेंवची गो
भूंयेर न्हय
सरगांत आमी मेळची गो

## नीला प्रभुशास्त्री

### तांक

ना जायत म्हाका तांक
चंद्रीम आनी सूर्या आपणांवक
म्हणून कितें वेंग मारूं फातरांक ?

### म्हांव

ओगीच कित्याक दुखंव ?
म्हणून जालें म्हांव
वाजेलें त्या बरेपणाक,
मूस लागतगच दसूंक !

### पिशें

राधा-मीरेचीं पिशीं
म्हाका दिस फकाणाशीं
आज कळटा तांच्या फाटलें जळप,
आनी वाडटा काळजांतलें खपखपप !

### वाज

सूर्यान पैर,
माल्लें म्हज्या दारार.
मागलें कितें मागच्या मागून ?
म्हज्या फुटक्या शिपयांचें दान
आनी हांवें दार काडपाच्या वाजाक,
ताका लायलो तसोच वचूंक.

### माडयनाशिल्लो मार्ग

डांबरी मार्गान म्हाका सांगिल्लें हरशीं,
फाटीवयल्यान आपल्या जाय थंय पावशी.
पुणुन म्हाकाच दिसलें आयबशें
लोकांनी माडयिल्या वाटेर भोंवचें कशें ?
कांटे काळजांत रोमले आतां
हुयेल्यो मारून कोणाक दाखयता ?

# बालगीतां

मनोराय नायक

## आमी फुडले खांबे

आमीं फुडले खांबे
वयले कळसा तुरे
आमच्या देशा ऽ ऽ चे
आमकां काम आसा खूप करचें

पयलीं आमी खूप शिकतले
सुकां-दुकां वेचून काडतले
सगल्या मनशां ऽ ऽ ची
आमकां काम आसा खूप करचें.

भाशा-भाशांच्यो, जाती धर्माच्यो
बारीक मोटचांच्यो वण्टी मोडतले
आमच्या देशां ऽ ऽ च्यो
आमकां काम आसा खूप करचें.

शेतकार, कामगारांक आमी मेळतले
लोकशाये संदेश सांगत भोवतले
सगल्या गावां ऽ ऽ नी
आमकां काम आसा खूप करचें

## गोंया तुजो मोग कसो

गोंया तुजो मोग असो
न्हय उतरानी सांगपाचो
हय, न्हय उतरानी सांगपाचो
गोंया तुजो मोग कसो

गोंया तुजो सैम कसो
जुवारेच्या ल्हारांचो
दूदसागरा दुदाचो वो
जायां जुयां परमळाचो

गोंया तुजो सभाव कसो
म्होव्या माडा आडसरसो
मानकुराद आंब्यावरी वो
चुन्ना काण्णां जगमांचो

गोंया तुजो मोग असो
न्हय उतरांनी सांगपाचो
सोबितकायेचेर तुज्या
जीव लेगीत ओंपपाचो

## आमची अेक संस्कृताय

भारतांत जायते धर्म
जायत्यो भासो पंथवर्ण
अेकवटान जियेवपाक
माय तुजी आसूं सासाय
आमची अेक संस्कृताय
भारतीय अस्मिताय ।।

माय तुज्या खातीर म्हजो
घाम आनी रगत घे
संसारांत भोंवता लावन
नांव तुजें अनादि गे
वरसां लाख उरुंक जाय
भारतीय संस्कृताय ।।

हीच अेक आस्त मनाक
ध्यास होच सासणाचो
दिगंतात नांव तुजें
जैतिवंत करपाचो
हातांत हात मेळोवन गाय
भारतीय संस्कृताय ।।

रामानंद तारी

## उदेतल्याक

अुदेतल्या
अुदेवन तूं करतलो तरी कितें ?
काळखांतूच सुसेगाद रावतल्या जिवाक म्हज्या
चार चौगांक दाखोवन जातलो मेकळो ?
नाका दिसूंक सगळो संवसार
जाय म्हाका म्हजेच खोपटेन जातलो बोवाळ
आपटूनी अेकामेकांक आमीच
हेरांक दिसनासतना
पालोंवनी तोवल्या पोंदचो उजो त्या वाऱ्याक
कोणाक कळनासताना
गळटलीं दुकां काळखानूच विरुंनी
कोणाक दुखयनासताना
भोग आमचे भोगुनी आमकांच
वाऱ्यार उबयनासताना
तेकाच लागोन
अुदेतल्या . . .
तूं आनी करतलो तरी कितें ?
अितलीं वर्सा घडटले हे घडणेक
अुदेवन तूं बदलतलो ?
कोंब्याक साद घालूंक लावन
दुकां पुसूंक लायतलो ?
घालून लख्ख अुजवाड हे धर्तरेर
करपोन काळीज आमचें अुडयतलो ?
कोणाक कळनासताना जीणे घालयताले आमी
जीणे आमचें सगळ्यांक कळयतलो
तशें जाल्यार अुदेतल्या
तसोच तूं रावल्यार बरो
अुदेवन तूं करतलो तरी कितें ?

## GOVERNMENT OF GOA, DAMAN AND DIU
## RIVER NAVIGATION DEPARMENT
## PANAJI–GOA.

River Navigation Department is at service of the people to provide safe and efficient service on all the vital crossings in the Inland waterways of this Territory. It is a Commercial Unit but public Utility is the prime consideration.

Commute via Madkai-Cortalim route as it saves over 14 Kms. to Ponda from Vasco.

Co-operate with the ferry staff to handle commuter and vehicular traffic smoothly.

Pay correct fare and demand valid ticket so as to enable the Department to realise higher income and provide better service.

Avail the facility of monthly/quarterly passes at concessional rates and save your precious time and money.

Government ferries/launches are public property. Your duty is to protect them.

Issued by :

**Captain of Ports**

**River Navigation Department.**

**Panaji–Goa.**

# DIRECTORATE OF FISHERIES

For better yield of Marine Resources it is absolutely essential that ecological balance of environments is not disturbed this fishing by Mechanised vessels in the near shore waters and in the rivers during Monsoon is very harmful since these waters are nurseries grounds where juvenile fish come for feeding and shelter. Indiscriminate killing of juvenile fish is the major cause for decline of fish catch. All the Mechanised boat operators are advised strictly to follow the provisions of Marine fishing regulation Act and stop fishing in prohibited areas.



गद्य साहित्याक ओंपिल्लें मासिक

वर्सूकी पटी : २० रुपया

## कुळागर प्रकाशन

पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव-गोंय

# सासाय

कविता  बाकीबाब बोरकार  मोल : १० रुपया

साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाबिल्लें पुस्तक

# गजालीचें नाटक

नाटक  अना म्हांबरो  मोल : ३ रुपया

# अुडणी वायणां

देखदिणी सुभाषितां आनी चुटके हांचें संकलन - मोल : २ रुपया

# पणजी आतां म्हातारी जाल्या

कथा -  अना म्हांबरो / छापता

कवितेचें कोंकणी द्वैमासिक

वर्सूकी पटी : १२ रुपया




मुखपृष्ठ : छापणावळ अपुरबाय प्रिंटर्स वळवय, गोंय